# आळशांक वाग खातलो

[बालनाट्य संग्रह]

पुंडलीक नारायण नायक




अपुरबाय प्रकाशन

मोल

स रुपया

पयली अुजवाडावणी
डिसेंबर १९८४

अुजवाडावपी
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय-फोंडें-गोंय
४०३ ४०१

छापपी
हिरु नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय-गोंय

मुखचित्र
श्रीधर कामत बांबोळकार



मोल
**स रुपया**

पुताचें पयलें पुस्तक
विकतें घेवन, ताका अुमेद हाडपी
सर्गेस्त दादूच्या
(नारायण हिरु नायक)
अुगडासाक

-----------------------------

मांडावळ

आळशांक वाग खातलो
७/२७
रानसुंदरी
२८/५४
कुंकडमावशेल्यो होंकलो
५५/६८

# रानसुंदरीन नवलाय केली!

'रानसुंदरी' हें म्हजें पयलें पुस्तक. तें अुजवाडाक येवन आज धा वर्सां जालीं. ह्या धा वर्सांच्या काळांत म्हजीं वेगवेगळया विंशयावयलीं पंदरा पुस्तकां अुजवाडाक आयलीं पुण म्हाका आनी म्हगेल्या बाल वाचप्यांक 'रानसुंदरी' चें आजूय अप्रूप दिसता. ह्या बालनाटचान म्हगेली साहित्ययात्रा सुरु जाली, जी आजून आदलेच अुमेदीन आनी अुर्बेन चालू आसा. पयले आवृत्तीच्या वेळार 'रानसुंदरी' बालनाटच स्वतंत्र पुस्तक रुपान आयिल्लें. आज ताची दुसरी आवृत्ती 'आळशांक वाग खातलो' ह्या पुस्तकांत अेकठायल्या.

हें बालनाटच हांवें आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रावयल्या भुरग्यांचें कार्यावळीखातीर बरयिल्लें आनी बसयिल्लें. ता. १३ आक्टोबर १९७४ दिसा ताची पयली वितरावणो जाल्ली. हांव तेदेवेळार सांताक्रुझ गोय, हांगां सांताक्रुझ हायस्कुलांत शिक्षक म्हण काम करतालों. त्याच शाळेंतल्या भुरग्यांक घेवन हांवें तें सादर केल्लें. आयकुप्यांनी ताची खूब तोखणाय केल्ली. त्याच भुरग्यांक घेवन हांवें ताचे कांय प्रयोग रंगमाचयेरुय सादर केले. अुपरांत श्री दिगंबर शिंगबाळ हाणी पणजेच्या अिन्स्टिटचूट ऑफ अिन्स्ट्रक्शन शाळेच्या भुरग्यांक घेवन, गोंयच्या वेगवेगळया भागांत ह्या बालनाटचाचे प्रयोग सादर केले. शिंगबाळाच्या कल्पक दिग्दर्शनांक लागून ह्या बालनाटचाची खूब तूस्त जाली. ताचे अुपरांत श्री अुल्हास पै रायकार आनी श्री अवधूत वा. कामत हाणी दिग्दर्शित करुन सादर केल्ले 'रानसुंदरी' चे प्रयोगूय आकर्षक थल्ले. कांय जाणांनी खामसुत्री बावल्यांच्या कार्यक्रमांतूय ह्या बालनाटचाचो अुपेग केलो. सतिनी आनी शाळेच्या संमेलनांनी तशेंच सांस्कृतिक कार्यावळीनी आजुनूय अदींमदीं ह्या बालनाटचाचे प्रयोग जातात आनी भुरग्यां बरोबर जाणटेय प्रेक्षक ताची गोडी चाखतात.

## आळशांक वाग खावचे आदीं—

'आळशांक वाग खातलो' हें म्हगेलें भुरग्यांखातीर बरयिल्लें दुसरें बालनाटय. हातूंत अेक वेगळो प्रयोग केला. जायते फावट दिग्दर्शक वो नाटक सादर करपी मंडळी आपणाले आवडीप्रमाण नाटकाची निवड करतात आनी मागीर भुरग्यांची अित्सा आसूं नासूं भुरग्यांकडल्यान त्या नाटकाचो आपणांक जाय तसो प्रयोग करुन घेतात. जाणटयांची अुमेद भागता पुण भुरग्यांचेर केल्लो हो अेके तरेचो अन्याय. सादर करता त्या नाटकान पळोवपी भुरग्यांक जे परी आनंद भोगपाक जाय तेच परी नाटक सादर करपी भुरग्यांकूय आनंद भोगपाक जाय. ह्या बालनाटयावरवीं हांवें तसो यत्न केला. अेकादया बऱ्या खेळाच्या आनंदा अितलोच आनंद ह्या नाटकाचो खेळ खेळटाना भुरग्यांक जातलो अशी आस्त आसा. हें नाटक सादर करताना फक्त अुतरांचेर सगळो भरिभार घालीनासताना भुरग्यांच्या सहजसुलभ अभिनयाक आनी मुक्तपणाक वाव दिवचो. अर्थांत मुक्तपणाची अतिताय जावचीना हाजी काळजी जरुर घेंवची.

भुरग्यांक देख लावपाखातीर नाटक वो साहित्याचो खंयचोय प्रकार वेठीक धरप समा न्हय. करमणूक करतां करतां भुरग्यांक अप्रत्यक्षपणान चार देखीचीं अुतरां सांगचीं. ह्या नाटकान तसो यत्न आसा आनी तो सफळ जाला अशें म्हाका दिसता.

## कुंकडमावशेल्यो होंकलो सजचे पयॅला—

ही अेक कवन काणी. भुरग्यांक घेवन ती बरेतरेन सादर करुं येत. ही कवन काणी, रंगमाचये भितर रावून, बरो आवाज आशिल्ल्या कलाकारान अेका थेक्यार म्हणू येता आनी माचयेर कुंकडमावशी, कोंबयो आनी कोलो हाणी सवंगा प्रमाण भेस चडोवन वा रुपडीं घालून फक्त मूक अभिनय करुं येता. हाचेपरस वेग-वेगळेपद्धतीनूय ती सादर करुं येता, ती त्या त्या दिग्दर्शकाची कल्पकता.

वळवय-गोंय —**पुंडलीक नारायण नायक**

“आळशांक वाग खातलो” ह्या बालनाटयाचो पयलो प्रयोग “राजमाता पद्मावती राजे सौंदेकार हायस्कूल-बांदोडे, फोंडें, गोंय, ह्या शाळेंतल्या भुरग्यांनी कला अकादमी आयोजित आंतर शालेय एकांकी सर्तित, ता. ५ मार्च १९८४ दिसा, कला अकादमी–कांपालच्या अुक्ता नाटयगृहांत सादर केलो.

पयल्या प्रयोगांतले बाल कलाकार

अनुजा : संगिता चोडणकार
बबलू : राजाराम गावडे
करुणा : कला बोरकार
डबलू : किशोर तिळवे
पिटीसर : संतोश नायक
भुरगीं : अुमेश भट
: गजानन गावडे
: सुरज बोरकार
: प्रकाश नायक
: महेश भट
: खेमू गावडे
: दादी नायक
: अुदय भगत
: आशा गावडे
: लिला नायक
: मारीया डीकॉश्ता
: राजश्री बांदोडकार

दिग्दर्शन आनी मांडावळ : श्रीधर कामत बांबोळकार
संगीत : रुपा गुरुदास दळवी
अुजवाडा येवजण : डी. एस्. अंगडी

## देखाव : पयलो

( हें मुखार दिसता तें अेक मैदान. शाळेच्या मुखावयलें, कडेचें वा फाटचें खंयचें तरी. मैदानार अेका वर्गाच्या भुरग्यांचो पिटीचो पिरिअड चल्ला. पिटी म्हळ्यार फिजिकल ट्रेनींग. आतां शाळेची भुरगीं म्हणटकूच गणवेशांत आसतलींच. सुमार १५।२० भुरगीं आंसात: पिटी मास्तरान तांकां दोन हारीनी अुबीं केल्यांत. ह्या भुरग्यां मजगतीं चार भुरगीं सामकीं आळशी आसात. न्हिदेची आनी तांची सामकी लागींची अिश्टागत. तांची नांवा अशीं – अनुजा, बबलू, करुणा आनी डबलू. हातुंतलीं अनुजा आनी करुणा चलयो. अुल्लेले दोग कोण ते सांगपाक जाय ? आतां तांची मजा पळयात आं - )

पिटीसर : ( आज्ञा दिता ) सावधान !

(सगळीं भुरगीं सावधान रावतात. मात हीं अबकड - कोण तीं कळ्ळीं न्हय ? विश्राम रावतात)

पिटीसर : विश्राम !

(सगळीं भुरगीं विश्राम रावतात. मात आमचीं अबकड सावधान रावतात. पिटीसर चार/पांच फावट आरतून/परतून

आज्ञा दिता आनी अबकड त्या आज्ञाचें आर्त्याचें पर्तें करतात. तांची म्हण कसली चूक ? त्या आळशांची न्हीद आजून सोपूना. आतां फुडली मजा पळयात. पिटी मास्तरान तांकां हालींच अेक साभिनय गीत शिकयलां. गीताच्या अर्थाप्रमाण अभिनय करून म्हणपाचें.)

पिटीसर : (आज्ञा दिता) अेक साथ गाना शुरू.

(सगळीं भुरगीं गीत म्हणटात आनी शिकयिल्ल्याप्रमाण अभिनय करतात. अबकड कितें करतलीं ? दोळयांत रकल्या न्हीद. तीं जूस्त शिकयलां ताच्या अुरफाटो अभिनय करतात)

भुरगीं :

चपळपणाचो शिटुकसाणेचो
सदांच जय जय जातलो
आळश्यांक वाग खातलो ।। धृ. ।।
फांतोड फुटली
शेवणी उठलीं
गोरवां सुटलीं
चर्वाक धांवलीं
भाग्यवंताच्या माथ्यार सूर्या फांकलो ।। १ ।।
उठ सभाग्या
तुज्याच भाग्या
काळ थांबचोना
तुकां रावचोना
खिणा खिणाचो उपेग फाल्यां जातलो ।। २ ।।
न्हिदून रावशी
पडशी उपाशीं
मागून खायशी
लजेन मरशी
घाम गळोवपी सदांच सुखाक पावतलो ।। ३ ।।

(गीत सोंपता आनी सबंद गीतान अबकड अेंक शिकोवंक नाशिल्लो नवोच न्हिदेचो अभिनय करतात. रोकडीच पिरिअड सोंपिल्ल्याची घांट वाजता.)

पिटीसर : (आज्ञा दिता) सावधान !
(भुरगी सावधान रावतात.)

पिटीसर : विश्राम!
(भुरगी विश्राम रावतात. अबकड न्हिदसुऱ्यांच अुबीं आसात. सावधानूय रावना, विश्रामूय रावना. सामकीं आराम ! )

पिटीसर : (आज्ञा दिता) बायें मूड! लेप्ट-रायट-लेप्ट-रायट.
(पिल्लूकेच्या तालार भुरगीं दावो-अुजवो पांय वडयतात)

पिटीसर : आगे चल! लेप्ट-रायट
(भुरगीं लेप्ट-रायटच्या तालार, अुब्यांनी न्हिदतल्यां भुरग्यांक तांचे न्हिदेचो अभिनय करून तांकां चाळयता.)

भुरगीं : लेप्ट-रायट-लेप्ट-रायट
अ ब क ड ड रा ड रा डू
अ ब क ड ड रा ड रा डू
(सगळीं भुरगीं वर्गांत वतात. मैदानार अबकड आनी पिटीसर अुरतात. सराक ह्या न्हिदेच्या राजांचो सामको राग आयला. पुण कितें करतलो ? भुरग्यांक काय मारूं येता ? पिटीसर तांकां जागीं करपाखातीर पिल्लूक मारता पुण अबकड समजतात सरान पिल्लूक माल्ल्या ती कवायतिचो प्रकार करपाक. तांकां जागीं करपाक पिटीसर पिल्लुको मारीत रावता आनी कवायतिच्या प्रकाराची आज्ञा समजून अबकड न्हिदेचे प्रकार सुरू करतात. म्हळचार अेक फावट दावेवटेन तकली लकोवप. दुसरे फावट अुजवेवटेन, तिसरे फावट मुखार जाल्यार चौथे फावट तोंड वरशें आनी अुकतें

करुन. सराक येता तिडक. तो तांकां त्याच प्रकारांत तशींच दवरता. म्हळयार आतां चौगांयचीं तोंडां अुकतीं आसात आनी वरशीं आसात. दोळे न्हिदेभरमस ! हीच तांकां ख्यास्त म्हणून पिटीसर थंयच्यान पावलां वाजयनासताना कुशीक सरता. अबकड तोंडां अुकतीं दवरुन न्हिदेंतूच बरींऽऽ झाडां कशीं धोलतात. अितल्यान 'काव-काव' असो आवाज जाता. चौगांमदलो ब म्हळयार बबलू सडसडीत जागो जाता. कितें जालां जाणा ? ताच्या अुक्त्या तोंडांत कावळचान ... ! बबलू आकांत करता. हांगा थंय झिडपता. तिगांयचेर पडटा. त्या बोवाळान अ क ड जागीं जातात.)

बबलू : कावळो ! कावळो ! शी ! शी !

डबलू : कावळो ? खंय आसा ? हाड ताका अेकाच फारान काबार करतां.

(बलसांतलें पिस्तोल काडटा.)

खंय आसा दाखय.

बबलू : (आपणाल्या तोंडाकडेन बोट दाखयता आनी तोंड अुकतें करुन रडटा.)

डबलू : राव, तसोच राव.

(डबलू ताच्या अुकत्या तोंडामुखार आपणाल्या पिस्तोलाचो तीर धरुन रावता.)

अनुजा : ए डबलू, तूं कोणाक मारता ?

डबलू : कावळ्याक.

करुणा : खंय आसा कावळो ?

डबलू : बबलूच्या तोंडांत.

अनुजा, करुणा : खऱ्यांनीच ? पळोवया.

(अजापान तीं दोगांय बबलूचें तोंड अदीक अुकतें करुन भितर

पळयता. बबलूक दुखंता.)

बबलू : (आरड मारुन) कावळो हांगां ना. तो गेलो.

डबलू : गेलो जाल्यार तूं रडटा कित्याक ?

बबलू : तो म्हज्या तोंडांत हळशिक करुन गेलो.

अनुजा
करुण } शी ! शी ! आमकां आपडूं नाकां.

(दोगांय कुशीक सरतात.)

बबलू : आपुडटलों, आपुडटलों.

(तांच्या फाटल्यान धांवता. तीं हांगां थंय धांवतात.)

अनुजा : पळय आं, आमी सराक सांगतलीं.

करुणा : पिटीसराक सांगतलीं.

डबलू : (याद जाता.) आरे, आरे रावा रावा.

(तांकां थारयता)

आमचो पिटीसर खंय ?

बबलू : आरे, हय मरे.

अनुजा : आनी आमच्या वर्गातलीं भुरगीं खंय ?

करुणा : आमकां हांगांच सोडून सगळीं खंय गेलीं ?

बबलू : पिटीचो पिरिअड सोंपलो दिसता.

डबलू : पिरिअड सोंपल्यार आमकां कशें कळ्ळें ना ?

अनुजा : आनी पिरीअड सोंपलो म्हण आमकां सांगप ना ?

बबलू : तुमकां कशें सांगपाचें ? तुमच्या सपनांत वचून ? !

करुणा : सपनांत वचून म्हणजे ?

बबलू : आरे, पिटीच्या पिरेअडाक आमी चौगांय अशीं अुब्यानीच न्हिदलेलीं.

अनुजा : खरेंच ?

बबलू : हय. सगळ्यांचीं तोंडा वयर आशिल्लीं. इतल्यान कावळ्यान म्हज्या तोंडांत हळशीक केली आनी तेन्ना तुमी जागीं जालीं.

करुणा : (विटून विचारता) कावळच्याची हळशीक कशी लागता ?
बबलू : धवो खोडू कसो लागता. हांवें सगळें थुंकून वडयलें.
डबलू : कावळच्याची हळशीक पिटीसराचे तकलेर पडपाची.
अनुजा : सामको वायट.
करुणा : तो आमकां सदांच अशेंच करता. आमचेर सारखें लक्षूच दिना.
अनुजा : लक्ष दिच ना. ना जाल्यार येदचा व्हडल्या चार भुरग्यांक मैदानार विसरुन वता म्हणजे कितें ? आपणाल्या भुरग्यांक जाल्यार विसरुन वतलो आसलो ?
बबलू : (ॲक्शन करुन दाखयता) दोगांक खांदार अेकल्याक हांडीर आनी अेकल्याक हाताक धरुन घेवन वतलो आसलो.
डबलू : ताका आमची मात दया-माया ना.
अनुजा : न्हीद कोणाक येना? सगळचांकूच येता. नेपोलीयन म्हण व्हडलो राजा आशिल्लो खंय ! तो आनी घोडचारुच बसून न्हिदतालो.
करुणा : आनी हो पिटीसर पिरिअड नासता तेन्ना स्टाफरुमांत बसून न्हिदो काडीना?
अनुजा : आमकां अशी मातशी न्हीद लागल्यार अशी मैदानार सोडून वता. म्हजी काकीबाय हांव भायर न्हिदल्यार म्हाका अुखलून व्हरुन भितर दवरता.
बबलू : म्हाका न्हय ? हांव सदांच बाकार न्हिदतां. सकाळीं अुठून पळयत जाल्यार खाटीर आसतां.
डबलू : (पिस्तोल भायर काडून) ह्या पिटीसराचो मद अेक दीस निवळपाक जाय.
बबलू : असल्या पिस्तोलांक तो मेजता! हांव अेक आयडीया सांगू ?
तिगांय : सांग.
बबलू : पिटीसराक त्रासांत वडोवपाक ही संद खूब बरी आसा.
तिगांय : कशी ?

बबलू : आमी हांगचीं पळून यां.

तिगांय : खंय ?

बबलू : पयस रानांत.

बबलू : हय रानांत. पयले सुवातेर पिटीचो पिरिअड चुकतलो.

अनुजा : म्हणजे कितले दीस रावपाचें रानांत ? परीक्षा जायसर ?

बबलू : आमकां सोदून काडीसर आमी रानांत रावपाचें.

करुणा : पुण हातूंत पिटीसर त्रासांत कसो पडटलो ? रानांत वचून आमी त्रासांत पडटलीं.

बबलू : ना. आमी रानांत त्रासांत कित्याक पडटलीं ? खावपाक काजू, कान्ना. चुन्ना, पेरां. पिवपाक झऱ्याचें उदक.
(सगळ्यांचे जिबेक रूच सुट्टा.)

बबलू : पोटभर खावपाचें आनी सुशेगाद न्हिदपाचें !

तिगांय : वा ! वा ! वा !
(सगळ्यांक कल्पना मानवता.)

बबलू : आमी रानांत, हेवटेन पिटीसर फोणांत.
हेडमास्तर विचारतलो, पिटीसर भुरगीं खंय ? तुवें तांकां शेणयलीं. अितल्यार सोंपना. आमचे आवय-बापूय येवन पिटी सराक विचारतले, पिटीसर - पिटीसर, आमचीं भुरगीं खंय ? तुवेंच आमच्या भुरग्यांक सांडयलीं. पिटीसराचे मागीर बारा ब्रेस्तार आनी –

तिगांय : तेरा शुक्रार.
( अितल्यान पयसुल्ल्यान पिटीसराची पिल्लुक वाजता. अबकड शादूर जातात आनी शाळेचे विरुध्द दिशेन धांवपाक लागतात. )

## देखाव : दुसरो

( हें मुखार दिसता तें रान. रानांत आसात झाडां-पेडां, फातर गुंडे. वझरो व्हांवता ताचो आवाज. सवण्यांचें गावप. रानांतल्यो भौतेक गजाली हांगां आसात. आनी आमची अबकड ह्या रानांत पावल्यांत. ते ऽऽ पळयात, बबलू आनी डबलू दिसतात.)

बबलू : (खोशयेन) वा ! वा ! खूब मजा जाली.

डबलू : पिकनीकेक लेगीत जायना अितली मजा जाली.

बबलू : हांवें थोडीं फळां खाल्लीं नात. शंबरतरी जातलीं.

डबलू : हांवें मात थोडीं खाल्लीं.

बबलू : अितली फळां आसतना थोडीं कित्याक खाल्लीं ?

डबलू : म्हाका पंचवीसां वयर आनीक मेजपाक कळना म्हण हांवें अेक फावट पंचवीस खाल्लीं, दुसरे फावट पंचवीस खाल्लीं, तिसरे फावट पंचवीस खाल्लीं, चौथे फावट पंचवीस खाल्लीं आनी पांचवे फावट पंचवीस खाल्लीं.

बबलू : हांव आनीकूय खातलो आसलों पुण पोटांत जागोच ना.

डबलू : ( पिस्तोल काडून )तुज्या पोटाचेर फार मारूं ?

बबलू : कित्याक ?

डबलू : पोटाचेर फार मारून पोटाक बुराक करतां. खाल्लेलीं फळां रकतलीं आनी पोटांत जागो जातलो. मागीर आनीक खा.

बबलू : नाका. म्हाका आतां न्हीद येता.

डबलू : म्हाकांय न्हीद येता.

बबलू : हांव न्हिदतां. तूं जागो राव आनी म्हाका राख.

डबलू : कित्याक ?

बबलू : हांव न्हिदलां आसतना वागबी येवन म्हाका खाल्लो जाल्यार?
डबलू : तशें जाल्यार हांव न्हिदता. तूं म्हाका राख.
बबलू : नाकां. अशें करूंया. आमी दोगूय न्हिदुंया. अनुजा आनी करुणा आमकां राखतलीं.
डबलू : ( याद जावन ) आरे, हीं दोगांय खंय ?
बबलू : थंय फुलां खुंट्टालीं.
डबलू : ती आमचेपरस आळशी. वाटेर खंय न्हिदुना मरे ?
बबलू : तांकां थंय कोणे खांवना मरे ?
डबलू : चल, तांकां अुलो मारूंया.
बबलू : तांकां कोणेय खाल्लीं जाल्यार तीं जाप कशी दितलीं ?
डबलू : अुलो तरी मारुया.
( अेकेवटेन वचून अुलो मारता )
अनुजा ऽ ऽ
( पयसुल्ल्यान ‘ अनुजा ऽ ऽ ’ असो आवाज परतो येता. )
बबलू : ( दुसरेवटेन वचून अुलो मारता. )
करुणा ऽ ऽ
( पयसूल्ल्यान ‘ करुणा ऽ ऽ ’ असो आवाज येता. दोगांकूय अजाप जाता. दोगूय परत तसोच अुलो मारता परत तसोच आवाज येता. )
डबलू : ( अुलो मारता ) अनुजा-अनुजा-अनुजा-
( तीन फावट तसोच आवाज परतो येता. )
बबलू : करुणा - करुणा - करुणा -
( तीन फावट तसोच आवाज परतो येता )
डबलू : आवाज परतो कसो येता ?
बबलू : ती थंय ना म्हूण आवाज परतो येता.
डबलू : पुण कसो ?
बबलू : कोणाकूय चीट धाडल्यार तो मनीस थंय नासल्यार चीट

परती येना ? तशेंच हें. ती थंय ना म्हूण आवाज परत येता.

डबलू : म्हणटकूच तीं खंय गेलीं तर ?

बबलू : तांकां खाल्लीं आसतलीं.

डबलू : कोणे ?

बबलू : वागान. आमचे गायेक अेकदां अशीच वागान खाल्लेली.

डबलू : आतां ती खंय आसता ?

बबलू : कोण ?

डबलू : गाय.

बबलू : वागाच्या पोटांत. अनुजा आनी करुणा तशींच वागाच्या पोटांत पावल्यां आसतलीं ( रडटा )

डबलू : रडटा कित्याक ?

बबलू : म्हाका न्हीद येता. आमी आतां न्हिदल्यार आमकां कोण राखतलो ?
( व्हडल्यान रडटा )

डबलू : केदचा व्हडल्यान रडटा रे ? म्हाकाय न्हीद येता. तुज्या रडपाच्या आवाजान म्हाका न्हीद लागची ना.
(बबलू रडपाचो थारता. दोगूक अुब्यानीच न्हीद काडटा. अितल्यान पयसुल्ल्यान रडपाचो आवाज येता.)

डबलू : तुकां अेकदां सांगलें मरे रडूं नाका म्हूण.

बबलू : हांव रडना. पळय, हांवें तोंड बंद केलां.

डबलू : मागीर हो रडपाचो आवाज खंयसावन येता ?
(डबलू ताच्या भोंवतणी भोंवताडो मारुन ताच्या आंगाच्या वेगवेगळ्या भागाक कान लावन, खंयसावन आवाज येता ताचो अदमास घेता. अितल्यान अनुजा आनी करुणा येतात मुखार करुणा आसा. अनुजाची मान वांकडी जाल्या. तें रडत आसा.)

करुणा : बबलू, डबलू पळयात रे. ह्या अनुजाची मान अशीच वाकडी

अुल्ली.

बबलू : (अजापान) आं. तुमी भायर कशी सल्लीं ?

करुणा : खंय सावन भायर सल्लीं म्हणटा ?

बबलू : वागाच्या पोटांत सावन ?

करुणा : वागाच्या पोटांत-बिटात कांय ना. आमी थंय वझऱ्या वयर फुलां खुंट्टाली

डबलू : खुंटलीं फुलां ?

(करुणा अनुजाकडेन बोट दाखयता अनुजान माथ्यांत खूब फुलां माळचांत आनी तेखातीर ताची मान अेकेवटेन बागवल्या.)

बबलू : अनुजाचे मानेक कितें जालां ?

करुणा : कांयच कळना. अकस्मात मान वांकडी जाली.

बबलू : चड फळां खाल्लेलीं ?

अनुजा : (मानेनूच ना म्हणटा)

बबलू : चड फळां खाल्ल्यार पोट भायर सरपाचें. मान वांकडी कशी जाली ?

डबलू : (पिस्तोल काडून) राव, राव. (तकलेचेर तीर धरता) अेकाच फारान हेवटेनची तकली तेवटेन करतां.

अनुजा : (रडटा) नाका.

डबलू : नाकां जाल्यार नाका. दवर तशीच वांकडी मान. वांकडे मानेनूच अशें अशें चल. (वांकडी मान करुन आपूण चलून दाखयता.)

अनुजा : (रडटा)

करुणा : पळय आं डबलू, ताका रडयशी जाल्यार मागीर हांवूय रडटलें. कितेंय तरी अुपाय करात मरे.

बबलू : आयडीया ! आयडीया !

करुणा : कसली आयडीया ?

(बबलू अनुजाच्या माथ्यांतलें अेक-अेक फूल काडटा आनी करुणाकडेन दिता करुणा तें डबलूकडेन दिता. डबलू तें कुशीक काडून दवरता. दोग-तीग जाण घरावयले नळे देंवयता–तशेतरेन तिगांय अनुजाच्या माथ्यांतलीं सगळीं फुलां देंवयतात. तेंसरशीं अनुजाची मान फुलां देंवयता तशी ल्हवू ल्हवू नीट जाता. तें खुशालभरीत जाता.)

बबलू : हांवें तुजी मान सारखी केली. दी बक्षीस.

अनुजा : बक्षीस ? तुकां हीं सगळीं फुलां.

बबलू : बरें आसा. हीं सगळीं फुलां अुशाक घेवन हांव आतां न्हिदतां. म्हाकां कोण अुठोंव नाका आं. आतां हांव न्हिदपी तो बद्द फाल्यां अुठपी.

डबलू : हांव परवां अुठपी.

अनुजा : हांव तेरवां अुठपी.

करुणा : हांव आतां न्हिदपी तें अुठपीच न्हय.

(सगळीं हांसतात)

बबलू : अे, बेगीन न्हीद येवपाक जाय जाल्यार काणी सांगा.

डबलू : हांव सांगतां.(आपलेपरीन घडोवन काणी सांगता.)

अेक आशिल्लो पिटीसर. सामको कुसको, अेक दीस ताणे पिटी करता आसतना चार भुरग्यांक सांडयली. तीं चार भुरगीं, अ ब क ड. जालें. भुरगीं सांडटकूच भुरग्यांचीं जाणटेलीं पिटीसराकडेन आयलीं. अ चो आजो आयलो. ब चो बाबा आयलो. क चो काका आयलो आनी डचो दादा आयलो. ताणी पिटीसराक घट धल्लो. रानात व्हेलो आनी सराची गुटली वागाच्या तोंडांत वडयली. तेन्नासावन पिटीसर वागाच्या तोंडातूच अुल्लो.

(डबलू काणी सांगता आसतनाच अनुजा, करुणा आनी बबलू न्हिदतात. आनी शेंवटाक काणी सोंपता सोंपता डबलूय

न्हिदता. चौगांय अेकामेकाचेर आडवीं तिडवीं पडटात. कांयवेळान वाग सवकासायेन येता. तांच्या म्हऱ्यांत पावता. पयलीं ल्हवू ल्हवू आवाज करता. मागीर तीं अुठचीं म्हण मोटयान आवाज करता. वाग हेवटेन तेवटेन नाचून तरेकवार नाडपेन्नां करता पुण आळशी अबकड कशींच अुठना. शेवटाक वागाक अेक मांडणी येवजता. तो आपणाले शेंपडेचो गोंडो दर अेकल्याच्या कानांत हुळहुळयता ते सरशीं चौगांय जागीं जाता. वागाक पळोवन भियेतात. अनुजा करुणाक आनी डबलू बबलूक भयान वेंग मारता.)

बबलू : कोण तूं ?

वाग : वाग.

अबकड : (अदीक भितात) वाग !

बबलू : खऱ्यांचो वाग ?

वाग : देवाच्यान तर खऱ्यांचोच वाग.

बबलू : (आपले भितरुच) वाग अुलयता ! (डबलूक) वाग अुलयता ?

डबलू : म्हाका खबर ना.

बबलू : (अनुजाक) वाग अुलयता ?

अनुजा : म्हाका खबर ना.

बबलू : (करुणाक) वाग अुलयता ?

करुणा : म्हाका खबर ना.

बबलू : (वागाकूच विचारता) वाग अुलयता ?

वाग : न अुलोवपाक कितें जालां ? तोंड ना तर म्हाकां ? आं ऽऽ
(तोंड अुकतें करता. सगळीं कांचवेतात.)

बबलू : पुण आमी आयकल्लें....

वाग : कितें आयकल्लें ?

बबलू : (गोंदळून ) आमी आयकल्लें....
(डबलूक) आमी कितें आयकल्लें रे डबलू ?

डबलू : आमी आयकल्लें वाग अुलयना आनी–
वाग : आनी कितें आयकल्लें ?
डबलू : (अनुजाक आनी करुणाक विचारता.)
अनुजा : आनी आमी अशेंय आयकल्लें, वाग दोन पायांचेर चलना.
वाग : दोन पायांचेर चलना जाल्यार कितें स पायांचेर चलता ?
करुणा : ना. चार पायांचेर चलता.
वाग : तसो हांव चार पायांचेरूय चलूंक जाणा. असो. (हात आनी पांयांनी चलून दाखयता.) पुण म्हाका चार पायांचेर चलून बेजार आयला म्हण हांव असो दोन पायाचेर चलतां. आनी चार पायांचेर चलतकूच कितें जाता जाणा ?
(चौगांय वग्गी रावून आयकतात.)
वाग : (तिडकून) विचारात मरे कितें जाता तें ?
अबकड : (भयानूच) कितें जाता ?
वाग : चार पायांचेर चलतना आनी असो असो धांवतना म्हजे फुडले पांय फाटल्या पांयांत घुसपतात आनी फाडले पांय फुडल्या पांयांत घुसपतात आनी मागीर कितें जाता जाणा ?
(चौगांय वग्गी आसा तें पळोवन तांचेर करा करून पळयता.)
अबकड : (बेगीबेगीन) कितें जाता ?
वाग : म्हजी अशी गचमुंडी जाता आनी हांव पडटां. घो ऽ ऽ
(चौगांय भयांनूच पुण बळजबऱ्यां कशीं हांसतात.)
वाग : आतां तरी पटलें हांवच खरो वाग म्हण ?
(चौगांय अविश्वासान अेकमेकाकडेन पळयतात.)
वाग : सोपूत घेवन सांगूं ?
अबकड : सांग.
वाग : वागीणीच्यान तर हांव वाग.
बबलू : ही वागीण कोण ?
वाग : म्हज्या बापायची बायल. म्हजी आवय ! आतां तरी पटलें

हांव खरेलो, शंबर नंबरी वाग म्हुण ?

डबलू : तूं खरेलो वाग जाल्यार हांव तुकां अेकाच फारान काबार करतां. (पिस्तोल काडून वागाचेर जोखता. तीर धरता तसो वाग घुंवता आनी अेकदम झोंपय मारून पिस्तोल काडून घेता आनी आपणाल्या भोकांत घालता. हांसता.)

वाग : खरेलो वाग पिस्तोलाक भिना. खरेलो वाग पिस्तोल भोकान घालता.

अनुजा : (करुणाक) ताच्या भोकांत पिस्तोलाचो फार जालो जाल्यार ?

वाग : ताची चींता तुमकां नाकां. अशीं कितलीं पिस्तोलां हांवें पचयल्यांत.

डबलू : तूं पिस्तोलांय खाता ?

वाग : हय. पुण (फाटल्यान बोट दाखोवन) हे वटेन. गोरवांक मात (तोंडाकडेन बोट दाखोवन) हेवटेन खाता. (अुगडास जावन-बबलूक) तुमचे गायेक हांवें अशीच (तोंडातल्यान) खाल्लेली.

बबलू : आमचे गायक तुवें खाल्लेली ?

वाग : (अभिमानान) हय. हांवेंच खाल्लेली.

बबलू : तुवें आमचे गायक कित्याक खाल्ली ?

वाग : ती रानात पळून कित्याक गेल्ली ? पळून गेली म्हण हांवें खाली. पळून वचप्यांक अशीच खावपाक जाय.

(चौगांय कांचवेतात.)

डबलू : तूं आनीक कोणाक कोणाक खाता ?

वाग : म्हाका आतां गोरवांक खावपाक आवडना.

डबलू : कित्याक ?

वाग : आताचीं गोरवां खूब शिटूक आसतात. धांव धांव धांवतात.

अनुजा : मागीर तूं कोणाक खाता ?

वाग : मनशांक !

अबकड : (भंयान) मनशांक !

करुणा : तूं आमी सांगता त्या मनशाक खायशी ?
वाग : बरेंभशेन.
करुणा : केन्ना खातलो ?
वाग : केन्नाय. आयज, फाल्यां, परवां. कोणाक खावपाचो ?
करुणा : आमचो अेक दुस्मान आसा. ताका खावपाचो.
वाग : सांगात त्या दुस्मानाचे नांव. आत्तां वचून खातां.
करुणा : (तिगांयकडेन पळयता) ताचें नांव–
अबकड : (वांगडाच) पिटीसर !
वाग : पिटीसर ? ना. ना. ताका सोडून आनीक कोणाकूय खातां पुण पिटीसराक ना.
अनुजा : कित्याक ना ?
वाग : तो म्हाका आवडना.
बबलू : तो आमकांय आवडना. म्हण ताका खा म्हणटां.
वाग : तो म्हाका खावपाक आवडना. ताची कात सामकी वातड. हाडां सामकी घट.
डबलू : तुकां कशें कळ्ळें ?
वाग : अेक दीस तो सकाळचो हातांत अुदकाचें फोलीण घेवन वयर दोंगरार गेल्लो. हांवें ताका थंयच धल्लो. घास माल्लो पुण त्या दिसा म्हज्या पोचक्याचीं दोन नाखटां निखळीं आनी तीन दांत हाल्ले.
अबकड : कशे ?
वाग : तो पिटीसर (कवायतीचो अभिनय करुन दाखयता.) पिटी कालोवन घट जाला. असल्या मनशांचे हांव वाटेक वचना. (चौगांय येवजुपाक पडल्यांत) येवजितात कितें ? आतां तरी पटलें काय ना हांव खरेलो वाग म्हण ?
बबलू : तें व्हदळ पटलें.
वाग : तशें जाल्यार दियात ताळी. (चौगांय वागाच्या पोचक्यार

ताळी दितात आनी हात दुखलो म्हण रडटात. कारण तांच्या हाताक वागाचीं नाखटां तोंपतात.)

वगी रावात. म्हाका आतां न्हीद येता. खूब सुस्ती माल्ल्या.

बबलू : कसली सुस्ती माल्ल्या ?

वाग : आज खूब दिसांनी मनासारखी शिकार मेळळी. येतिश्ठ हात माल्लो.

डबलू : कोणाचेर ?

वाग : अेक शाळेंतलो भुरगो आशिल्लो. आळशी. झेमेत झेमेत चलतालो. तसोच अुखल्लो आनी गट्टम् केलो.

अनुजा : खंयचे शाळेतलो भुरगो ?

वाग : देवाक खबर ! हो तागेलो बिल्लो. (बिल्लो काडून दाखयता) हो पत्र्याचो दिसता. खातां खातां दाढेक लागलो. तसोच काडलो आनी असो तक्लेक तोंपून दवल्लो. .
(चौगांय जाणा बिल्लो पळयतात आनी कांचवेतात.)

करुणा : हो तर आमच्या शाळेच्या भुरग्यांचो बिल्लो.

बबलू : तुवें आमच्या शाळेच्या भुरग्याक खाल्लो.

वाग : हांवें ताका तुमचे आनी तांचे शाळेचो म्हण खावना. हांवें ताका आळशी म्हण खाल्ला. म्हाका आळशी मनीस खावपाक आवडटात. आळशी भुरगीं पिटीबी करीनात. तेखातीर तांचें मास लबलबीत आसता आनी हाडां बरीं मदूर कवकवीत आसता. आज म्हजी मजाच जाली. अेक न्हीद काडलेबगर सुस्ती निवळपाची ना. बोवाळ करूं नाकात आं. हांव न्हिदतां.
(वाग अुब्यानीच झेमता. घोरेता. चौगांय जाणा भियेल्यांत. अेकामेकाच्या कानांत कितेंतरी सांगतात आनी चौगांय जाणा पळपाक सोदतात. पुण तांचे हालचालीचेर बारीक लक्ष दवरून आशिल्लो वाग तांचेमुखार वचून तांकां आडायता.)

वाग : (हांसता) हा ऽ हा ऽ हा. म्हाका फटयता ? म्हजी न्हीद

जागृत आसता. दोळे धांपले तरी म्हाका सगळें दिसता आनी त्याशिवाय म्हजे फाटीक दोळे आसात.

अनुजा : तुजे फाटीकूय दोळे आसात ?

वाग : हय. (तांकां फाट करून रावता.) आतां तुमी फाटल्यान कितें करता तें सांगूं ?

(चौगांय जाणा अेका फाटोफाट वागाची फकाणां मारपी अेक अेक अॅक्शन करता आनी वाग तांकां फाट करून तांचीच नक्कल तांकां परत करून दाखयता )

वाग : (वळून) पटलें न्हय ?

अबकड : ('हय' म्हण मानो हालयतात)

करुणा : (वागाक) तुवें आमचें कितें करपाचें थारायलां ?

वाग : (हांसता) हा ऽ हा ऽ

अनुजा : खरें सांग, तुज्या मनांत कितें आसा ?

वाग : (पोटाचेर हात भोंवडावन हांसता) हा ऽ हा ऽ

डबलू : आमकां सोड. आमी घरा वतात.

वाग : तुमच्या असल्या आळशी भुरग्यांक सोडपा अितलो हांव पिसो ना. (अेक अुडकी मारुन) हांव तुमकां खातलों.

बबलू : आमी तुज्या पायां पडटा. आमकां सोड.

वाग : तुमच्या असल्या आळशी भुरग्यांक सोडून हांव कितें अुपाशी रावूं ? आतां सगळीं भुरगीं हुशार जाल्यांत. म्हज्या बऱ्या नशिबान तुमीच तितलीं आळशीं अुल्ल्यांत. तुमकां हांव कशीं सोडूं म्हज्या भांगरानो. (अुडकी मारता.)

डबलू : आमचो पिटीसर आसल्यार आमकां ह्या वागाच्या तोंडातल्यान सोडयतलो आसलो.

वाग : तुमी पिटीसराच्या नांवान भजन करात. हांव तुमचें भक्षण करतां. (अुडकी मारता ) पळयात, चार अुडक्यो मारतकूच म्हजें खाल्लेलें जिल्लें. आतां म्हाका परत भूक लागली.

आतां तुमकां चौगांकूय वांगडाच खातां आनी मागीर सूस्त न्हिदतां. पयलीं खातां हाका. (अेकल्याचेर अुडकी मारता तें कडेक सरता.) ना. पयलीं खाता हाका. (दुसऱ्याचेर अुडकी मारता तेंबूय कडेक सरता. अशें करुन चौगांयचेरुय वाग अुडक्यो मारून तांकां धरपाचो यत्न करता. तीं ताका चुकयतात. कांय वेळान अबकडच्या वर्गांतलीं सकाळच्या पिटीच्या पिरिअडाची भुरगीं अबकडचे सोदीक येतात. चौगांकूय पळोवन सगळीं भुरगीं खोशी जातात.)

अबकड : (भुरग्यांक वाग दाखोवन म्हणटात)
वाग–वाग–वाग–वाग–

भुरगीं : धर–धर–धर–धर–

वाग : गुर्र्र–गुर्र्र–गुर्र्र–गुर्र्र–
(अशें म्हणत भुरगीं, अबकड आनी वांग अेक शिस्तबद्ध धरपकडीचो खेळ खेळटा. शेवटाक सगळीं भुरगीं वागाक घट धरतात आनी अुबारतात. त्या वेळार वागाचें रुपडें सकयल देंवता. वागाचो भेस केल्लो पिटीसर दिसपाक लागता.)

अबकड : (अजापान) पिटीसर !
(सगळीं भुरगीं अेकामेकाचो हात धरुन कवंडाळें करतात मदीं अबकड हांकां घालतात आनी तांकां चाळोवपाचें गीत म्हणत नाचतात )

भुरगीं : अ-ब-क-ड- डरा डरा डू
(पिटीसर कवंडाळयाच्या भायर रावता आनी पिल्लुक मारता.)

पिटीसर : सावधान !
(सगळीं भुरगीं सावधान रावतात, अबकड सकट.)

पिटीसर : अेक कतार बन !
(भुरगीं अेक लायन करतात)

सावधान ! सामने सॅल्यूट.
(भुरगीं मुखार सॅल्यूट करतात.)
लेफ्ट रायट—
लेफ्ट रायट—
(भितर वचपाची दिशा पळोवन)
दैने/बायें मूड.
घर चल ! (सगळीं वतात. फाटोफाट पिटीसरूय वता.)



## देखाव : पयलो

(म्हातारेली खोंप. सकाळचो वेळ. म्हातारी आपल्या पुताक अुठयता. )

म्हातारी : म्हज्या अपुरबायेच्या पुता
सुर्या अुदेलो आतां
सवणीं लेगीत अुठलीं
चारो हाडूंक धांवलीं
गोरवां गेलीं रानांत
लोकूय गेले कामांक
तूंच असो अेकलोसो
हांतुणार केलदो कसो
पोर : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
जेवय म्हाका खावय म्हाका आनी लायगे तूप
म्हातारी : नाकशिबऱ्या आळश्या
न्हिदेच्या कळश्या
अपुरबायो नडल्यो म्हाका
आयतें भकूंक घातलें तुका

पोर : म्हजे मोगाचे आवय
नाका म्हाका सतोवंक
वाज येता अुठोंवक
तेकूनी अशीच फाट
हांतुणार दीस आनी रात

म्हातारी : खंय आसा हो देव
ह्या पुताचेर आयला खेव
करुन वावर रातदीस
घालतां हाका पेजेनीस
हांव आतां म्हातारी
तरी चुकयना हाका भाकरी
सगळें पळोवन तोंड वळोवन
हांसता कसो

नार्काशिबरो म्हणटा कसो

पोर : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
जेवय म्हाका खावय म्हाका आनी लाय गे तूप

म्हातारी : आयक पोरा, आयक पोरा
चड जाले लाड तुजे
माथ्यार म्हज्या जालें वजें
कुड्डो काय न्हय तूं
हें सगळे पळयता मूं ?
न्हय तूं राजकुंवर
पंलगार लोळसर
न्हय तूं सावकार
बसूंक असो बेकार
थय थय नाचूंक न्हय रे

रानातलो मोर
तूं तर सादो म्हातारेलो पोर

पोर : आवय हांव सगळें जाणां
पुण हीं म्हजीं भुरगेपणा

म्हातारी : लज कशी दिसना
अुलोंवक असलीं शाणेपणा

पोर : शाणेपणा कोण जाणा !
तूंच तर म्हणटा कशी
कड्डांतलो सोंसो कसो
हांव पिसो, सामको पिसो

म्हातारी : न्हय तूं भुरगो, न्हय तूं पिसो
बसला थंय तुका वर्सां जालीं वीसो
वीस वर्सांचो घोडो
आतां ओड संवसाराचो गाडो

पोर : गाडो कसलो संवसाराचो ?
केन्नाच हांवे देखलो नासो !
कसो जोडप ? कसो ओडप ?
आनी ताचेर कितें हाडप

म्हातारी : सामकोच पिसो
कड्डांतलो सोंसो
नाकांत तुज्या घालून दोरी
शिकोंवचो पडलो बैलांपरी

पोर : तूं म्हजी आवय, हांव अपुरबाये पूत
जेवय म्हाका, खावय म्हाका आनी लाय गे तूप

म्हातारी : पुरो जाले लाड
तुकां येवचें जालें खाड
वीस वर्सां पोसलो तुकां

आतां जाण्टेक पोस म्हाका
पोर : बसून हांव असो
पोसूं तुकां कसो ?
म्हातारी : बसून केन्ना पोसूंक जाता ?
काम पळय
घाम गळय
कश्टांचें मोल
हातान येतकच धोल
पोर : कसलेंच काम करतना
हांवें केन्ना पळयलेंना
दाव्या दोळयान देखलें ना
हांव नेणां हांव नेणां
म्हातारी : नाकांत तुज्या घालून दोरी
शिकयतां तुका बैलांपरी
हो घे कोयतो
कंबराक असो खोय तो
धर हातांत कुराड अशी
वाटेर खंयूय सांडोवशी
ही घे दोरी
खांदार वडय बरी
आनी ही चुंबळ
जाय तेन्ना कवळ
पोर : आवयस् म्हजे
कितलें वजें !
अितलें सामान कितें करप ?
माथ्यार मारून खंय व्हरप ?
म्हातारी : आयकून घे बेसबरें

नाजाल्यार आपलें तेंच करशी खरें
पोर : सांग आवय, आयकतां
आतां हो वावर कोणाक चुकता !

म्हातारी : पयलीं खा ही हुनहुनीत पोळी
आनी भायर सर तुरतुरीत सकाळी
भोंव रानां
माड्डीय वनां
खायशी वाटेर काण्णां-चुन्नां
पावशी घरा तिनसाना
खंयच लक्ष दिवं नाका
कामां बगर रावं नाका

पोर : पुण आवय –
असल्या रानां
कसलीं कामां ?

म्हातारी : आयकून घे बेसबरें
नाजाल्यार आपलें तेंच करशी खरें
रानात आसात झाडां-पेडां
मोल तांच्या लाकडां
झाडार चड सपासपा
पावलां सारकी दवर खापां
कुराडीन कचाकचा
कुडके करुन लाय माचा
कंबराचो कोयतो काडून
बारीक सारीक काड बेणून
वेंगभर पुरो
अितलो कर भोरो

खांदावयली दोरी
आवळून बांद बेसबरी
चुंवळ दवर ताळयेर
अुकल भोरो तकलेर

पोर : आवय म्हजे मोगाचे
घेवचे आदीं तकलेचेर
कितलें लागलें जड
म्हज्या पायांक येत फोड

म्हातारी : आयकून घे बेसबरें
नाजाल्यार आपलें तेंच करशी खरें
माथ्यावयलो भौरो
विकून घेयशी सुबरो
तेन्नाच पूत म्हजो खरो
माथ्यांतलो तुरो

पोर : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
गळयन दुकां पळयन तुकां लागूंक दिना दुख
(पोर सगळें सामान घेवन रानावटेन वता. म्हातारी
ताका निरोप दिता.)

## देखाव : दुसरो

(रान. म्हातारेलो पोर रानांत पावता. खोशयेन मुस्कार
सोडटा.)

पोर : अेकदांचो पावलो रानां
कितली ही चड्णां मोड्णां
खोस हांगा भोगता मनां

सगळ्याक ही पाचवीं पानां
तांबशीं फुलां
धवशीं फुलां
हळडुव्योच कळयो
सोबीत बऱ्यो ताळयो
फुलांचेर भोंवर
तेंगशेचेर चंवर
ता:ऽ ऽ तर काण्णां चुन्नां
पुण तोंडांत घालप ना
वेळ वगडांवक फावना
पावन घरा तिनसाना
माथ्यावयलो भोरो
विकून घेयन सुबरो
तेन्नाच हांव खरो
आवयच्या माथ्यांतलो तुरो
( हांगा-थंय पासय मारुन अेकेकडेन धारता. )
हें अुंचअुबार झाड
दिसता कशें माड
चडटां हाजेर सपासपा
पावलां सारखी दवरतां खापां
( धापेत धापेत चट्टा )
पावलों आतां ताळयेचेर
घराचे कसो माळयेचेर
खांदी कशी कापप काय ?
(कांय वेळ चिंतता)
आंऽऽ बरो सुचलो अुपाय
खांदयेमुखार पातळावन पांय

मुळांत अशे घालतां घाय
कट्.... कट्.... कट्....
कितलें लाकूड घट
(अशें म्हणत म्हणत खांदी कापता)
आरे, पुण अशी कशी
खांदी सकल देंवताशी
मात्सो मात्सो कांपता तसो
हांवूय सकल देंवतां कसो ?
खांदी जर तुटली
म्हजी जातली गुटली
पड्टली जावन पोटली
(किळांचून)
तुटली रे तुटली
मुळासाकून सुटली
आऽऽ आऽऽ आऽऽ
(खांदयेसकट कोंसळून सकल पडटा. न्हिन्नळटा. पिरंगता.)
कोणय तरीं धांवा रेऽऽ
आतां म्हाका पावा रेऽऽ
कोणय तरी येया रेऽऽ
हात म्हाका लाया रेऽऽ
(पायजणाचो 'छुमक्' 'छुमक्' आवाज करीत सुंदर भेसांतली रानसुंदरी येता.)

रानसुंदरी : कोण हांगां आयला एकलो
काळजांतल्यान मारता अुलो
कोणाचे हे साद
अनवळखी आवाज
(हांगां थंय सोदता)

पोर : हांव तो म्हातारेलो पोर
पुण तूं कोण चंद्रकोर ?
रानसुंदरी : म्हजी वळख मागीर सांगतां
आदीं तुकां सावचित करतां
कितलें तुकां लागलें !
दुख म्हाका भोगलें
व्हांवता रगताचे व्हाळ
आंगाक वेदनांचे जाळ !
पळय, हांव मारतां फूक
पैस जातलें तुजें दुख
पोर : आरे ! ....
कितें अजाप जालें
सगळे त्रास नाच्च जाले
फूक तुवें फुंकतना
थंडशीतळ भोगलें मनां
रानसुंदरी : घायार तुज्या हात ओडटां
खीणांभितर पेखयतां
पोर : नवलाची चली तूं
हाताक तुज्या जादू मूं
सोबीत सुंदरी सर्गांतली परी
हांगा रानांत कितें करी ?
रानसुंदरी : म्हजें नांव रानसुंदरी
अशीच रावता वनांतरी
झाडांपेडां रानांतली
घालता म्हाका सावळी
धवोफुल्ल वझरो
घसघशांनी व्हांवता

म्हजेखातीर सूर काडून
म्होवाळ गीतां गायता
सवणीं कीर कोगूळ तशीं
सूरा-तालान गायता
तांच्या ताळयान रंगून हांव
वाऱ्या बांगडा धोलतां
वालीवेलीं रंगी फुलां
म्हजे खातीर फुलता
तेंगशेवेलें पाचवे चंवर
म्हजे खातीर परमळटा
म्हजी वळख जाली पुरी
अशीच रावतां वनांतरी
म्हजें नांव रानसुंदरी

पोर : अेकली रानांत भोंवतना
केन्नाच कशी कांचवेना
चलीमनीस जावन लेगीत
कोणाकच बाडगना ?

रानसुंदरी : सर्गांतली परी
तशी हांव रानसुंदरी
पैस खंयूय गेल्यार
सवणी म्हाका तेळटा
संकश्टांत सांपडल्यार
खबर रोकडी काडटा
बोवाळ करून मागीर
रान सगळें जागयता
वाग, शींव, हत्ती, कोले
दातांचे करून भाले

दुस्मानांक धरता आडोवन
हाडटा मागीर म्हाका सोडोवन

पोर : तूं तर बाये रानांतली राणी
तुजी जीण म्हळयार परयेची काणी

रानसुंदरी : खरें सांगू तुकां ?
हांगा सुख ना रे म्हाका

पोर : काम ना, वावर ना
तुजेवरी कोण सुखी ना

रानसुंदरी : मनशाचो ना संग
देखून ही काळजाक खंत
कितल्या वर्सांनी तूं दिसलो
काळजाक आनंद भोगलो

पोर : पुण हांव न्हय राजकुंवर
कीर्त म्हजी न्हय थोर
गावंक नाचूंक थय थय
न्हय हांव रानांतलो मोर
आवय म्हाका म्हणटा पिसो
सामको कड्डांतलो सोंसो
सामको पिसो, सामको पिसो

रानसुंदरी : तूं तर मळबांतलो चंद्र कसो
तुजो हांसो चान्ने कसो
हांव रानसुंदरी
तूं म्हजो कारभारी
हांव येतां तुजें बराबरी

पोर : खरेंच रानसुंदरी ?
मन म्हजे नाचलें पळय सुकण्यापरी
पुण रानसुंदरी---

आवयन म्हाका सांगिलांपरी
" माथ्यावयलो भोरो
विकून घेयशी सुबरो
तेन्नाच पूत म्हजो खरो
माथ्यांतलो तुरो "
रानसुंदरी : तुकां नाका चिंता
हांव आतां निवारतां
हांव तुजी सांगाती
तुजीं कामां म्हजेखातीर
चल आतां पावल अुखल
पळून आमी या सकल
किडी मुयेक नाका जाग
हती, शिंव येतले वाग .
अेकदां ताणी मांडल्यार पासो
मागीर ना तुजो भरवंसो
धर म्हज्या हाताक बेगीं
वारो कशीं या बेगीं

## देखाव : तिसरो

(म्हातारेली खोप. पोर दारार मारता. ताच्या वांगडा रानसुंदरी आसा.)

पोर : आवयऽऽ आवयऽऽ
दार अुक्तें कर बेगीं
पुताक तुज्या पळय बेगीं

पुतान हाडलां तें पळयशी
अजापान दोळे वळोवशी
म्हातारी : शाब्बास पुता, शाब्बास पुता !
माथ्यावयलो भोरो
विकून घेतलो सुबरो
पूत म्हजो खरो, माथ्यातलो तुरो !
(अजापान)
पुण पुता,
हात तुजे रिते ?
दुडवांचे नांव ना तें ?
चुंबळ कुराड कोयतो
हातांत खंय ना तो ?
वाट तुजी पळोवन
दोळे गेले वळून
तुजेर भंरवसलेलें
मन आतां निर्शेलें
पोर : सदचेवरी अुलयता खरी
मुखार मात्शी नदर मारून पळय तरी
म्हातारी : कसली हाडल्यां नवलां !
कोणां वाटेर गावलां ?
तुजे कुशीक कोण अुबी
जशी लजेची कोंबी ?
पोर : ही सोबीत परी
चंद्रीमावरी
रानसुंदरी : रावतालीं हांव वनांतरीं
नांव म्हजें रानसुंदरी
म्हातारी : तूं बाये रानसुंदरी

हांव गरीब म्हातारी
हो म्हजो पूत असो
कड्डांतलो सोंसो
सामको पिसो, सामको पिसो

रानसुंदरी : हो तर मळबातलो चंद्र कसो
हाजो हांसो चान्ने कसो
हांव रानसुंदरी
हो म्हजो कारभारी
हांव आयलां ताचे बराबरी

म्हातारी : बायल सोबीत आसा पूता
खंय तिका दवरता आतां ?
घर आमचें खोंपटी
जेवंक ना ताटली - वाटी
बांदूक येना तुका भोरे
बायलेक आतां पोसशी मरे ?

रानसुंदरी : तुमची सगळी चिंता
हांव आतां निवारतां
हांव ताची सांगाती
ताची कामां म्हजेखातीर
खोपींत तुजे दवरतां पांय
तूं फकत पळयत राव
(रानसुंदरी खोपींत पांय दवरता तेसरशीं 'घस्सयंच' असो आवाज जाता. घडक्यांत खोपीचो बंगलो जाता.)

पोर : पळय आवय, पळय आवय
हुपलो तिणें हुंबरो
खोंपीचो जालो बंगलो

म्हातारी : हय रे पुता, दिसता म्हाका

पोर : माथ्यावयर झुंबरां
वण्टीक किरांमोरां
फुडल्या दारां मागील दारां
सगळें पळय तरांतरां
चंदनाचे चौरंग बसपाक
भांगराचे पेले पिवपाक
भांगराच्यो ताटल्यो
चांदीच्यो वाटल्यो

म्हातारी : रानसुंदरी तुवें नवलाय केली
खोंप म्हजी मंदीर जाली
पूत म्हजो राजा
आतां तूं राणी
भांगराच्या पेल्यान
तुमकां पाणी
पळोवन सगळी नवलाय
राजाक जातली नसाय

**देखाव : चवथो**

(वाट. राजाचो म्हालो दुलो वाटेतसून वता.)

म्हालो : हांव राजालो म्हालो
नांव म्हजें दुलो
राजाले कापणेक हांव सदां वयतां
सकाळच्या आठांक वेळार पावतां
थरिल्ल्या वेळार सारखें पावूंक जाय
नाजाल्यार राजालीं चाबकां खावंक जाय
ही म्हजी सद्‌ची वाट
फुडें सगळें सपाट

मागीर लागता घाटी
थंय आसा म्हातारेची खोंपटी
(घाटी देंवता)
घाटी आता देंवलों
खोपीकडेन पावलों
(अजापान)
आरे,
सकाळीफुडें अजापशें
खोपी जाग्यार घर कशें ?
सपनांत हांव ना मूं पूरो
(आपणांकच चिमटो काडटा)
आ ऽऽ हाय हुय ऽऽ हाय हुय ऽऽ
बेस बरो हांव जागो
खोंपी जाग्यार बंगलो अुबो
आरे,
ती ऽऽ तर म्हातारी
जनेलांत घसल्याबरी
राजाची आवय जशी
अेके रातीन जाली कशी ?

म्हातारी : अे दुल्या,
राजाल्या म्हाल्या
कितें पळयता मोडून मान ?
भितर यो करूंक काम
पुताचे केंस काप
दुडवांनी भरतां माप

म्हालो : म्हातारे, तुका कोण भेटली ?
अेके रातीन गिरेस्त जाली

म्हातारी : नाका तुका चवकशी
काम करून वाट धर कशी
म्हालो : नांव म्हजें दुलो
हांव राजालो म्हालो
राजाले कापणेक हांव सदां वयतां
सकाळच्या वेळार आठांक पावतां
थरिल्ल्या वेळार सारखें पावूंक जाय
ना जाल्यार राजालीं चाबकां खावंक जाय
म्हातारी : राजाली व्हडवीक सांगू नाका
संदीचो लाव होगडांव नाका
राजा दितलो अेकपटीन
हांव दीन दुपेटीन
म्हालो : म्हातारे, तुका ना म्हणपाक कठीण
तूं तर दिता राजापरस दुपेटीन
आपय पुताक बेगीं
कापणी करतां वेगीं
(म्हातारेलो पोर भायर येता)
पोर : कसो आसा दुल्या
राजाल्या म्हाल्या ?
म्हालो : आसा बरें मागून तुमकां
तुमी आता पळयतां आमकां !
पुण म्हातारेल्या पोरा, अेक सांगशीं व्हय
तुकां हें सगळे सावलें खंय ?
पोर : कित्याक तुकां जाणवायो ?
कापणेंक तूं वेळार यो!
म्हालो : हें पळय धांपलें तोंड
मदींच आतां घालीना सोंड

कचा कचा कचा चलता म्हजी कातर
खरा खरा खरा चलता म्हजो वांखर
(कांपणी करतां करतां– अजापान)
आं ऽऽ
म्हातारेच्या पोरा, म्हातारेच्या पोरा
कोण रे अुबी भितल्ल्या दारां, भितल्ल्या दारां....?

पोर : दुल्या, दुल्या, राजाल्या म्हाल्या
कांतर तुजी तोंपता मरे
वांखर तुजो लागता मरे

म्हालो : म्हातारेल्या पोरा, भितर आतां
कोण केंस अुगयता ?

पोर : दुल्या, दुल्या, राजाल्या म्हाल्या
तूं म्हाका खापयता

म्हालो : म्हातारेल्या पोरा,
भितल्ल्या दारां
कोण मारता मुरको ?

पोर : दुल्या, दुल्या
राजाल्या म्हाल्या
कानाचो काडलो कुडको

म्हालो : म्हातारेल्या पोरा, सांगतरी
कोण ती सोबीत परी ?

पोर : रावताली ती वनांतरीं
नांव तिचें रानसुंदरी
हांवें हाडल्या बराबरी
हांव तिचो कारभारी

म्हालो : तूं म्हातारेलो पोर !
तुका असली चंद्रकोर ?

म्हजी बायल फावो तुकां
राजाली बायल फावो म्हाका
आनी रानसुंदरी
राजाक सोबतली बरी

## देखाव : पांचवो

(राजाचो म्हाल : राजा अेकलोच रागान हेवटेन तेवटेन पासयो मारता)

राजा : हांव हांगचो राजा
म्हजें आयकता प्रजा
वेळार म्हजीं कामां
केन्नाच कोणें चुकोवंक फावना
थरिल्या वेळार सारखो पावूंक जाय
ना जाल्यार म्हजी चाबकां खावंक जाय
म्हालो म्हजो सद्‌चो
आठांक येवपाचो
नांव ताचे दुलो
आज म्हज्या हातान मरतलो
(अितल्यान म्हालो धांपेत धांपेत येता)

म्हालो : म्हाराज, म्हाराज चुकलो
दिमी मारून धरतां पांय

राजा : फावो तुका जूस्त
ही चाबकांची ख्यास्त
अेक-दोन-तीन-चार
खा बरो चाबकांचो मार

म्हालो : म्हाराज, जाली चूक
अशें भोगंव नाका दुख
असो म्हाका मारूं नाका
गुपीत गजाल सांगतां तुमकां

राजा : म्हज्या राज्या भितर
कसली नवी खबर ?
अुलयता काय अुलयना ?
झोड तुजो सोडीना

म्हालो : म्हाराज सांगता
मार थांबय म्हूण मागतां

राजा : सांग म्हाका,
अुशीर नाकां

म्हालो : वाटेर आसा घाटी
थंय आसली म्हातारेची खोंपटी
अेके रातीन जादू असो
खोंपी जाग्यार बंगलो कसो ?
आनी ती म्हातारी
जनेलार बसल्या बरी
राजाली आवय जशी !
अेके रातीन जाली कशी ?

राजा : असली खबर नवलांची !
म्हज्या राज्यांत घडपाची

म्हालो : ही खबर घराची
दुसरी म्हातारेल्या पोराची
ताणे हाडल्या बराबरी
जावन आपुण कारभारी
सपनांतली गोरी

जशी सर्गातली परी
रावताली ती वनांतरी
नांव तिचे रानसुंदरी

राजा : म्हातारेलो पोर
ताका असली चंद्रकोर ?

म्हालो : म्हजी बायल फावो म्हातारेच्या पोराक
तुजी बायल फावो म्हज्या घराक
आनी रानसुंदरी
तुकां सोबतली बरी

राजा : चल, या म्हातारेल्या घरा
सोदून काडूया पोरा
आनी ती म्हातारी
सून रानसुंदरी
घेवन येवया बराबरी

**देखाव : सबो**

(म्हातारेलो बंगलो. राजा आनी म्हालो थंय येतात.)

म्हालो : राजा सायब, राजा सायब
पावले आमी म्हातारेल्या दारां
आवय, पूत, सून बसल्या आसतलीं घरां

राजा : म्हातारेलें घर कितलें सरस ?
सोबीत म्हज्या वाड्यापरस !

म्हालो : राजा सायब फुडें सर
भितर आतां मार नदर
हांगा आसतालीं म्हातारेलीं बोंदरां
थंय आतां लांबती झुंबरां

हांगा फासूंक नासलो रंग
थंय चंदनाचो चौरंग
न्हेसूंक पोराक नासलो वालो
खुटयाळयाक रेशमी शेलो

राजा : म्हातारेचो पोर गिरेस्त पुरो
ताका जाग्यार हाडल्याविणे
ना म्हाका थारो
घेवन हो सुरो
ताजो कापून काडटां तुरो
खंय आसा म्हातारी ?
आपय भायर दारासरीं

म्हातारी : राजा सायब, म्हज्या घरांत पावल तुजें
काळीज धादोस जालें म्हज़ें
सांग कसलें काडलें काम ?
हांव तुका मारतां सलाम

राजा : म्हातारे, गांव सांग
गांवचे नांव सांग
खंय सावन हाडलें सांग ?
अितलें कशें जोडलें सांग ?

म्हातारी : हांव नकळों घडलें कशें
अेका खीणांत जालें अशें
हांव न्हय रचणारी
हांव सादी म्हातारी

म्हालो : फट अुलयता म्हातारी
चोरून दवरता मनांतरी

राजा : म्हज्या राज्यांत मनशानी सत् अुलोवंक जाय
ना जाल्यार म्हजी चाबकां खावंक जाय

अेक-दोन-तीन चार
फटाफट चाबकांचो मार
म्हातारेच्या पोरा,
आतां धांवत यो बेगीन
रानसुंदरीकडेन जूस्त
करतां तुजें लगीन

पोर : राजा सायब,
म्हज्या घरांत पावल तुजें
काळीज धादोस जालें म्हजें
सांग कसलें काडलें काम ?
हांव तुका करतां सलाम

राजा : म्हातारेच्या पोरा, गांव सांग
गांवचें नांव सांग
खंय सावन हाडलें सांग ?
अितलें कशें जोडलें सांग?

पोर : हांव नकळो घडलें कशें !
अेका खीणांत जालें अशें
हांव न्हय रचणार
म्हाका कशी खबर ?

राजा : म्हज्या राज्यांत मनशांनी सत् अुलोवंक जाय
ना जाल्यार म्हजीं चाबकां खावंक जाय
अेक-दोन-तीन-चार
फटाफट चाबकांचो मार

रानसुंदरी : राजा सायब, राजा सायब
मारूं नाका ताका
खबर सगली म्हाका

राजा : कोणाचीं अुतरां अमृतावरी
सोबीत कोण तूं नारी ?
म्हालो : हीच ती गोरी
सपनसुंदरी
रानसुंदरी : रावताली हांव वनांतरीं
नांव म्हजे रानसुंदरी
म्हालो : म्हजी बायल फावो म्हातरेल्या पोराक
राजाली बायल सोबतली म्हज्या घराक
आनी तूं रानसुंदरी
राजाक सोबतली बरी
रानसुंदरी : म्हज्या फुडच्यांत सुखाच्यो खणी
खोशी हांव जावंक राजाली राणी
राजा : शाब्बास सुंदरी,
आतां तूं सोबतली बरी
म्हालो : पुण म्हाराज, अुल्ली अेक गजाल
हांगा आसतालीं म्हातारेचीं बोदरां
थंय आतां लांबती झुंबरां
हांगा फासूंक नासलो रंग
थंय चंदनाचो चौरंग
न्हेसूंक पोराक नासलो वालो
खुंटयाळयाक आज रेशमी शेलो
सगळया घराक तरांतरां
कोंराथिल्लीं किरां मोरां
भांगराच्यो ताटल्यो
चांदीच्यो वाटल्यो
रानसुंदरी : सगळी खबर सांगता हांव
पुराय मात आयकूंक राव

नाजाल्यार रोकडीच मारशात धांव

राजा : रानसुंदरी सांग बेगी
धांवून थंय वतां वेगीं

रानसुंदरी : ही आमच्या घरामुकार बांय
दिता आमकां जें जें जाय
मारून अुडी काड्टा दूडू
मेळटा आमकां जाय तशे मोडूंक
भांगरां शिंगरां आसा तळा
जाय तेन्ना आमकां मेळया

म्हालो : राजा सायब, राजा सायब
बऱ्या कामांखातीर
कित्याक आतां अुशीर ?
काडूंया सगळीं रोकडी
हांव मारतां अुडकी
अेक-दोन-तीन-चार-पांच
–घब्बायंच ऽऽ घब्बायंच ऽऽ–
(बांयत अुडकी मारता.)

रानसुंदरी : राजा सायब, आतां
कितें देखता ?
म्हालो तळाक पावतलो
सगळयाक वेंग मारतलो
तुकां मागीर फटयतलो
आपुण सगळें सुतलायतलो
तुजेपरस गिरेस्त जातलो म्हालो
माथ्याक खोयतलो तुरो

राजा : अुलयली खरी
तूं रानसुंदरी

हांवूय मारता अुडी
म्हाल्याक सारतां तडी
अेक - दोन - तीन - चार - पांच
—घब्बायंच ऽऽ घब्बायंच—
(बायत अुडकी मारता.)

पोर : म्हालो बुडून मेलो !
राजाय तळाक गेलो ! !

म्हातारी : दुस्वाशी राजाक
असलीच फावो सजा

रानसुंदरी : दाळ्ळे आमच्या दुस्मानां
राजाचें राज्य आतां आमकां

म्हातारी : म्हजो पूत राजा
तूं आतां राणी
भांगराच्या पेल्यान
तुमकां पाणी
(सगळीं खोस मनयतात.)



अेक कवन काणी

# कुंकडमावशेल्यो होंकलो

(अेक जाणटेली आंग मोडीत येता)
मदल्या वाडचार, वडामुखार
रावता अेक जाणटेली
भिता तिका नेणटेलीं
जाणटेलेचें कमर जालां चिचेंबोटां कोंगल
नदर मात भिरी भिरी
पैस लेगीत पावता बरी
जाणटेलेच्या हातांत बडी
सद्दां काडटा काडाओडी
जाणटेली कुंकडा पोशी
म्हणटा तिका कुंकडमावशी
कोंबयो दोन आसा तिगेर
जाणटेलेचो जीव तांचेर
नदर तिची भिरी भिरी
सोदता तांकां खंयतरी

हांगा ना, थंय ना
घुडांत ना, घरांत ना
हो सोपो, सोप्यार ना
तो व्हारो, व्हान्यार ना
खळयांत ना मळयांत ना
दोगांयचो पत्तो न
कुंकडमावशे हुस्को जाला
जीव जाला सळाबळा
खंय म्हजी गोरुली? बा बा बा
खंय म्हजी काळूली? बा बा बा
(हांगा-थंय सादयत कुंकडमावशी भितर वता. फाटोफाट
लिपून राविल्ल्यो कोंबयो ल्हवूच भायर येता.
धव्या पाखांची गोरुली आनी काळया पाखांची काळूली.)
ही पळय गोरुली
आनी ती ऽऽ काळूली
कुंकडमावशेक करुन केटां
दोगीय भायर सल्ल्या आतां
खावन खावन मातल्या
आनी काय बऱ्यो सजल्या
हांसता बऱ्यो नाचता बऱ्यो
होंकलो कश्यो दिसता खऱ्यो
गोरुलेचीं धवीं पाखां
तिका दिसता आपूण सुखां
काळुलेचीं काळीं पाखां
तिका दिसता आपूण सुखां
दोगीय कश्यो किट्‌किट्टा
मन सोडून विड्‌विड्टा!

(दोगीय थयथय नाचतात)
खूब खूब नाचून आतां
तांकां जालें पुरो
खर्शेल्ल्या जिवाक आतां
घेवचो थोडो वारो
बसल्यो दोगी बोगो, जावन फुला बोंगो
(अतल्यान कुंकडमावशी फाटसून ल्हवपीक पावलांनी येता
आनी झोपय मारुन दोगांकूय दोनांय हातानो घट धरता.)
नदर चुकोवन भोंवताल्यो
आतां बऱ्यो ऽ ऽ सांपडल्यो
कुंकडमावशेन मारुन झोपय
दोगींकूय धल्ल्यो अचळय
कुंकडमावशी सांसपिता, दोगांकूय पोशेता
"शी बाये ! शी पूता ! कितल्यो व्हड जाल्या आतां
कसो करचो हांचो सांबाळ ?
पायांक हांच्या बांदचे चाळ ?
वयता थंय झुमू झुमू
आवाज बरो लागत घुमूं !
शी बाये ! शी पूता ! तसलो नाका अुपाय हांकां"
कोणूय खायत जिवानिशी
चिंता करता कुंकडमावशी
"मनशाचें बरें आसा
तांकां राखूंक दोळे आसा
सुणे, कोले, कोलसुणे
तांचें काडलां चित्र कोणे !"
नेवन तांकां पोटासरीं, कुंकडमावशी विचार करी
दोळे तिचे लिकलिकले आनी केंस भिरभिरले

सुचलो तिका अेक अुपाय
मातसो मात करप घाय
जीव शाबीत अुरता जाल्यार
अितलें तरी करूंक जाय
(कोंबयांक दोनूय खाक्यांक धरुन ती आशीकुशीक भोंवता आनी अेका हातांत अेक लाकडाचो कुडको आनी दुसऱ्या हातांत कोयतो घेवन येता.)
कुंकडमावशेची करामत
कोंबयार आयल्या बिरामत
दोन कोंबयो दोन खाक्यांत
दाव्या खाक्यांत काळूली
अुजव्या खाक्यांत गोरूली
कितें आतां करता काय ?
कोणाचेर पडटा घाय
(कुंकडमावशी काळुलेचो शेपाडो लाकडाच्या कुडक्यार धरता)
काळुलेचेर आयली हावळ
कुंकडमावशेन काडलें बळ
कोयत्याची मूठ आंवळून
दांत-ओठ धल्ले दामून
कोयतो गेलो वयर वयर
कच्च करून पडलो सकल
हाय ! हाय ! काळुलेचो शेपडो गेलो तुटून
हाय ! हाय ! गोरूली खाक्यांत गेली सुटून
काळूली कुशीक अुबी रड रड रडटा
गोरुली बेगीं बेगीं मेळत थंय लिपता
कुंकडमावशी हांगा-थंय भोंवता जळामळा

लिपून बसल्या गोरूली अेका रुखामुळां
कुंकडमावशी जाणटेली रोखडी खर्शेली
फाल्यां पळोन घेवचें म्हणून फाटीं परतली
(कुंकडमावशी भितर वता आनी मागीर गोरुली ल्हवूच भायर येता)
धांवत आयली गोरुली काळुलेचे भेटे
तुटलेलो शेंपडो पळोवन पडले चुटपुटे
जिवा-भावा अिश्टीणी अेकामेका सखी
कितली म्हण दुखी तांकां कितली म्हण दुखी
काळुलेचें दुख जालें खिणाखिणा व्हड
गोरुलेचें दुख जालें खिणा खिणा ल्हव
जळटा ताका कळटा
आनी आडेनेट गळटा
धवी धवी गोरुली खुदू खुदू हांसता
लांडी लांडी करुन तिका चाळोवन चाळोवन नाचता
"शी पूते ! शी पूते !
आदींच तूं काळी
लांडी आतां जावन कशी
भोंवत्ली जळी मळीं ?
काळुलेचें काळें तोंड
कितली म्हण रडटा-ओ ओ ओ
गोरुलेचे धवें तोंड
कितली म्हण हांसता-हो हो हो
(गोरुली काळूले भोंवतणी हांसत, तिका चाळयत नाचता. अितल्यान कुशीच्यान ल्हवूच कोलेमाम येता)
गोरुलेचें हांशें खिणाभितर अुडलें
काळुलेचें रडें खिणाभितर थाल्लें

कोलेमाम कुयकुय बिटिबिटी दोळे
बरें सावज मेळत म्हण सोडून आयला मळे
सोडून हांसप सोडून रडप
दोगांयनी धल्लें धांवप
कोंबयो फुडें कोलो फाटी
पडूंक लागल्यो चाटेर चाटी
रुखातळा - झाडातळा
झिलीं झोपां अुक्त्यामळा
फांतरगुंडे - खडपांचिरे
चिखल - गोबोर रेवट - सारें
माड्डून हुपली कितली वाट
कोलेमाम सोडीना फाट
धांव धांव धांवल्यो
धांवून धांवून खर्शेल्यो
काळुलेचो शेंपाडो
कोल्या तोंडात गावलो ना
गोरुलेचो शेंपाडो
कोल्यान कस्सो सोडलो ना
गोरुलेचो मोरया !
आतां कितें करया ?
खिणाभितर काळुलेचें
विरुन गेलें दुख
शेंपडो तुटून जीव अुल्लो
केदें व्हडलें सुख !
(काळुली कोंबी खोशयेन भितर वता)



**आळशांक वाग खातलो / रानसुंदरी**

खासा भुरग्यांखातीर बरयिल्ल्या ह्या पुस्तकांत ‘ आळशांक वाग खातलो ’ आनी ‘ रानसुंदरी ’ ह्या दोन बालनाटयांचो आसपाव केला. ‘ आळशांक वाग खातलो ’ हें बालनाटय नवे धरतेचें. फक्त अुतरांचेर आनी संवादांचेर आदारलेलें न्हय. तातूंत नाटय खूब आसा. बाल कलाकरांच्या अभिनय गुणांक संद आसा. हांसता - खिदळटाना ह्या बालनाटयाचो प्रयोग घडटा. आनी सगळयांत म्हत्वाचें म्हळयार हो प्रयोग पळोवपी भुरग्यांक जो आनंद भोगता तोंच आनंद नाटक सादर करतल्या बाल कलाकारांक भोगूं येता. हें बालनाटय वाचताना वा पळयताना बाल मनाचें मनोरंजन तर जाताच पुण त्याच बरोबर भुरग्यांचे आळसायेचेर बडी बसून नकळटांना भुरग्यांक बरी देखूय मेळटा.

‘ रानसुंदरी ’ हें बालनाटय म्हळयार अेक कवनकाणी. नकसूद आनी सोप्या अुतरांनी ती गुंथल्या. कवनांचे मांडावळींत बेसबरी अुतल्ल्या. ह्या बालनाटयांतलीं पात्रां वाचप्यांचे सामकी वळखिचीं कारण तीं पात्रां आमच्या लोककथेंतल्यान जल्मांक आयल्यांत. हीं पात्रां लोककथे सारखीच अेक काणी घडयता आनी मनांक ओड लायता. आमच्या लोकवेदांत रंगून वचसारख्यो कितल्योश्योच गजाली आसात म्हणपाचें कळून येता. ह्या बालनाटयाचें वाचन मनांक खोस भोगयता आनी माचयेवयलो प्रयोग बालमनांक सामको भुरकुटून वडयता.

**अपुरबाय प्रकाशन / वळवय गोंय**